

# स्पन्दन

भास कोंकणी आवसु आमची। लिपि देवनागरी उडगासु दवराची।।

Date of Publication : 1st JULY 2015

 "कोंकणी सप्ताह" - २०१५ 






## केरळ कोंकणी अकादमी
कोच्ची

पाँच रुपया

मुखेल संपादक
सुरेश ए. शेणै

उप संपादक
पी. मनोहर

कोशाधिकारि
आर. के. प्रकाश

वाँगडी
जी. मोहन राव

न्यायोपदेशक
अड.वी.एन. वसन्त कुमार

प्रचार-प्रसार
टी. आर. सदानन्द भट

Graphics by :
K. Santhosh
Mob : 9895212521

मुखचित्र : कोंकणी केन्द्र-गोश्रीपुर अनि अनुग्रहा चारिटबळ ट्रस्ट एकडे मेळनु 10-16 मेय 2015 क कोच्चीी प्रभाकर ज्योति सभाघर हंगा चंकेयलेले कोंकणी सप्ताहाची चित्रं। (फोटो - एन. बालकृष्ण मल्या, कोच्ची)



प्रति - ₹ 5/-
वार्षीक - ₹ 60/-

# स्पन्दन

प्रकाशन : केरळ कोंकणी अकादमी, कोच्ची

**SPANDAN**



**Published by :**
**KERALA KONKANI ACADEMY**
**8/28, 'Santhery', 1st Floor,**
**Opp. M.S.C. Bank Ltd., Cherlai Road,**
**Cochin - 682 002. Mobile : 94477 35849**
**Email : keralakonkaniacademy@gmail.com**

खंड : 4 अंक : 7 1937 आषाढ

## संपादकीय

कोंकणी सिखूक चेर्डुवांक तात्पर्य अस्स म्हणु त आमकां दिस्ता। कोंकणी केन्द्र-गोश्रीपुर आनि अनुग्रहा चारिटबळ ट्रस्ट हान्नी मेळ्नु कोच्ची घडेयलेले "कोंकणी सप्ताहान्तु" सुमार चेर्डुवानी भागु घेत्तलो (ह्यें दुस्सरे वर्ष)। केरळ कोंकणी अकादमीलेय आनि कोंकणी केन्द्र-गोश्रीपुराचेय सहकारान वैश्य वाणियन सेवा समितीन, अमरावति एस.जे.डी.एल.पी. स्कूळान्तु घडेयलेले एक मासाचे "कोंकणी भाषा परिचय" शिक्षा वर्गान्तूयि जायते चेर्डुवानि भागु घेत्तलो। कोंकणी भाषे पसून एक आर्जव हाडचाक ह्ये कार्यक्रमांक जालें म्हणु सांगूयात।

लिपी विषयान्तु केरळान्तूयि एक विवाद चमकता आसा। खंचेय भास सिखचाक-मलयाळम सहित - ते ते भाषेचे लिपी सिखूका पडता। मगीरि सरळ जाव्नु आसीली देवनागरी लिपी लागी मात्र विरोध इत्याक ? तमिळ, उरुदु, अरबी, हिन्दी, आंगलेय पूरा भाषो व्यत्यस्थ लिपीन बरोवंचाक चेर्डुवांक विरोध ना मू।

एक निश्चयधार्ड्य आसीले नेतृत्वाक मात्र त ह्यो प्रश्नु सम्बाळूक जात्तलो। ताजो प्रयत्नु तन्रि काडतले म्हणु आमी विश्वासु पांवताय।

कोच्ची, 01-07-2015 सुरेश ए. शेणै, मुखेल संपादक.



The New Development Bank (फुडे BRICS Development Bank) चो प्रथम अध्यक्ष जाव्नु के. वी. कम्मत हंका 11-05-2015 क नियुक्त केल्ले। World Bank अनि I.M.F. हंचें बदल जाव्नु अस्सिलें ह्यें, BRICS States (Brazil, Russia, India, China, South Africa) एकडे जाव्नु तं रूपीकृत केल्यां। हाजे आस्थान चैनांतुले Shanghai. के.वी. कम्मतान फूडे ICICI Bank, Infosys Ltd., हाजे सग उन्नत स्थान अलंकृत केल्लेले अस्स।

---



भारतीय रिसर्व बैंक - College of Agricultural Banking, Pune : हन्नि आयोजित केल्लेले अखिल भारतीय प्रबन्ध प्रतियोगितेन्तु (विषयु -How to make India A Financially Literate Country- Strategies) प्रथम पुरस्कारु मेळ्ळेली **सन्ध्या नरेन्द्र**। कोच्चीचे एच. जयकर शेणै अनि सोमलता हंगेली मल्गडि धूवय, नरेन्द्र बाळिगालि बाय्लय। सेन्ट्रल बैंक ओफ इंडियाचे चिकमंगळूर शाखेन्तु काम करता अस्स। पत्रांचेरि तिग्गेले जाव्नु अस्सिले लेखनं बोरोंवचाक अस्स (Freelance)।

---



माधव बोरकार, गोवा कोंकणी अकादमीचे नवे अध्यक्ष जाव्नु नियुक्ति जल्ले। पोण्जि (गोंय) अकाशवाणीन्तु थकूनु स्टेषन डयरक्टर जावनु निवृत्त जल्लेले बोरकार कोंकणीचे प्रशस्त कवि लगेन तं। साहित्य अकादमीचे 2001 चे मुख्य पुरस्कार ('यमन' म्हळेले कविता संग्रहाक) अनि 2004 चे अनुवाद पुरस्कार ('एकशें एक कविता' म्हळ्ळेले पुस्तकाक) हंका मेळ्ळेले अस्स।

---



महात्मा गांधी सर्वकलाशालेन्तु थकून 2015 एप्रिल 24 क हिन्दि साहित्यान्तु डोक्टरेट मेळ्ळेलि **वृन्दा जितेष**। कोच्चीचे विजयकुमार वी. मल्या अनि शोभा हांगेलि सुपुत्रीय, माळिलचे जितेष सी. आर. हांगेलि बायलय।

एरणाकुळमचे अनुग्रहा चारिटबळ ट्रस्ट हन्नि प्रतिवर्ष दीव्नु एंव्चे डॉ. नर्मदा & दयानन्द कम्मत एण्डोवमेन्ट फण्ड स्कोळरषिपाक अपेक्षा अपेय्ला। कोंकणी मातृभाषा जाव्नु अस्सिल्यांक मेळचे ह्ये स्कोळरषिपाचे चड जाणकारीक तंगेले कच्चेरिपडि, चिट्टूर रोड, एरणाकुळम 682018 ह्ये पत्तेचेर मेळतलें (फोण : 0484 2351133)। फेसबुक्कारीयि अपेक्षाफोम उपलब्ध तं। E-mail : anugrahaonline@gmail.com Website : www.anugraha.gsb.in

## संत केशवदासालि हितोपदेश कथा -4

प्रो. वी. शिवानन्द भट,
पंचाब्जपुरम

### "भगवन्नामजप एकमात्र मार्ग (कलि कीर्तनानि)"

पाँच हज़ार वर्ष पूर्व लोकांत कलियुग शुरु जालो। श्रीकृष्ण परमात्मा स्वर्गगमनाक प्रस्थान करूक लागलो। ते वेळारि परम भक्त उद्धवान प्रश्न केलो - "हे प्रभो ! तुमीं पृथ्वीरि विहार कोरचे वेळारि जन दिव्य आनन्दान भोर्नु आसलीं। भूमीरि स्वर्गराज्य आसलें। हे गोविन्द ! तुमीं अंका सोणु वत्तात अनी कलि प्रवेश करता। सर्वत्र गडबडी अनी बलावपण आसतलें। जन सर्वांत संदेह करतले। तुमगेले अनुपस्थितींत अमी कशी वांचचे ?"

अमी भागवतांत श्रीकृष्ण परमात्मान सांगले ऐकिलां कि कलियुगान्त अनेक बल्लावि प्रवृत्ति आसता, जल्यारि कलियुगाची होडि विशेषता कसली म्हळ्यारि, मात्र भगवन्नामजपान मुक्ति मेळता म्हणु।

वास्तवाक कितलें सरल तें ? जन तेंच कठिन करतात। देवु सांगता - "कलियुगांत हाँव मेळचे सरल। परन्तु तुमी अन्य अनेक कठिन साधन स्वीकारतात। तुमका देवाक यथेच्छ सरल अथवा कठिन लेकयात। तुमी एक निष्कळंक चेरडु जाव्नु भगवन्नाम घेयात, देवु मुकारि खण्डित एत्ता।"



## हरि कीर्तन

- बी. रत्ना बाई, कोच्ची

बहु चाँग ते हरि कीर्तन....
हरि कीर्तन
हरि कीर्तनान मेळता समाधान
सर्वदुःखहरण हरिनामस्मरण (बहु)
हरिचरण भक्ति दित्ता अंका मुक्ति
महालक्ष्मील् पति क़र्तोल् अंचेरि प्रीति (बहु)
हरि चरण स्मरण कर्ता पापहरण
सर्वरोग शमन - कर्ता हरील् स्मरण (बहु)

## कर्नाटक - केरळ कोंकणी

- गुरुदत्त एस. प्रभु, कोच्ची

चंद पोर/चंद पोरि = हाय बाबु/हाय बायि
तन्नी(क) कोर्नु यो = फळारु जावनु यो
ओट्टु कसलेंय पुणि कोर्चे = इत्तेय पुणि कोर्चे
गळ्याक गच्चि दिल्लें = गोंवटेक गच्छाटि मर्लि
सर्नी खुंट्टो - सर्नी मूडो
भित्तेवेलो - भित्तेर्चो

| | |
|---|---|
| गोज्जु - चिर्डिलेलें | भायलो - भायर्चो |
| पेद्दा - बुद्दूस | गज्जारो - चिंचारो |
| उम्मेदि - उत्साहु | फुरसत - बेट्टेळु |






"पुनर्वित्तं पुनर्मित्रं पुनर्भार्या पुनर्मही।
एतत्सर्वं पुनर्लभ्यं न शरीरं पुनः पुनः।।"

एकल्याक धन, मित्रु, बायल (पत्नी), स्थायु दुसरि दुसरि मेळ्यात। जल्यारि ये शरीर (मनुष्यजीवित) दुसरि मेळूक कष्ट तं। (सनातनधर्मानुसार पुण्य केल्लेले आत्मांक मेळचो तं मनुष्य जन्मु। त्या दिकूनु तज्जो सदुपयोगु अम्मि कोर्का।।।

औषद पंक्ति - 41

## अज्जेलीं वोक्कदा

(मुत्तश्शि वैद्यं)

सुशीला टी. भट्, कोच्ची

(सींवु Herpes)....

एद्दे विश्वास :- सींवु आयल्यार मंत्र म्हणून कोडु निंबा पत्तियेन झाड घलचो संप्रदायु फूडे कालाक चलतालो. खंचे की विशेष रूपाचे मंत्रानी तां भटमामु जावो मंत्र कळचो म्हलगडो व्यक्ति जावो झाड घालतालो. तीन, पांच, सात, णव्व अशी एक्यारी एवंचे दिस्सांक तां झाड घालप. रोगाचे काठिन्य तकीत दीस चढ-वूणे जात्तले. शरीर भागाक वृत्ताकारारी एवंचो ह्या रोगा पसावत अनियेकी धारण लागेन जनां मद्दे वरताली. कसले म्हळ्यार रोगाचे तोण्डय मूळय एक्कडे जल्यार नाश-नष्ट संभव जात्तले म्हूण. उदाहरणाक तोण्डारी निडलावेल्यान तां रोगु येत्ता जल्यार तोण्ड-मूळ एक जल्यार दोळ्यांची दृष्टी पर्यान नष्ट जावयात म्हूण.

*(शेष लगी अंकान्तु)*

## भक्तिगानमाला

- वी. सोमलता आचार, कोच्ची



हे देवा, देवा, विठोबा देवा
सेवा कर्तायि अम्मि नित्य देवा
तुग्गेल् सेवा कर्तायि अम्मि नित्य देवा !!



पण्डरीपुरान्तु वासु केल्ला
रुगमायि समेत रब्बीला
आषाढेकादशी आरम्भु जल्ला
भक्तजन मन सन्तोष जल्ला तुग्गेल (२) हे...

सप्ताहाचे व्होड्डु आघोषु
तुग्गेल भजन केल्यारि मनान्तु आश्वासु
दकेय तुग्गेल रूप राति-दीसु
धावनु भोवनु खत्तायि निवेदु
चेईवं धावनु भोवनु खत्तायि निवेदु (हे...)

भक्तजन प्रीति तुज्जेरि
दया जांवका तुग्गेल मुक्कारि
भजन कर्तायि तुग्गेल नोड्यारि
देवा दर्शन घेंवचाक एत्तयि धारारि
तुगेल दर्शन घेंवचाक एत्तायि धारारि (हे...)

## नाटक गान

जीवन रेखा घुसपलिरे तुज्जें
प्राराब्ध भर्लेलें जीवित रे
कोण तें चोयना - उत्तरं मेळना
अल्प मू ह्यें अंचे जीवित रे (२) (जीवन)

मित्र तुग्गेलि घूवनु तीं वत्ताय
नाशु तो तुक्का एत्तरिरे
सर्वांक कोळचें ह्यें याथार्थ्य रे
सर्वय विस्सोर्नु भोंवत्ताय रे - अम्निं
सर्वय विस्सोर्नु भोंवत्ताय रे (जीवन)

विनाशकाले विपरीत बुद्धी
भोग्गूचें तूंवे तुग्गेली विधि
मेळना मू मुक्ती - ना तुक्का गति
ह्यें सर्वय देवाले खेळ रे (२) (जीवन)

नाटक - "हून उद्का घोटु" (14-2-1999)
अवतरण - गोश्री कलाकेन्द्र, कोच्चि
स्थल - उ. दे. (शिवरात्री दिवस)
कथा / संविधान - आर.कृष्णकुमार नायक, मंगळदास प्रभु
गानरचना - वी. सुरेश शेणाय, कोच्ची
संगीत अनि आलापन - जी.मुरळीधर शेणै, कोच्ची

6-6-2015 - जगन्मोहना रौळाराचे सभागृह, मैसूर :- जी. एस. बी. सभा, मैसूर अनि कर्णाटक कोंकणी साहित्य अकादमी एकडे मेळनु **"कोंकणी महिला समावेश"** कार्यक्रमु घडेयलो।



## गुल्लीयो किति सांगताय - 13



एन. बालकृष्ण मल्या, कोच्ची

उच्च राशियारि राबिल्ले ग्रहाक पूर्णबळ अस्सिल्यवरी नीचारि ग्रह गेल्यार तज्जें बळ पूर्ण जावनु ना जत्त म्हुणूय जाण जावंका. रवि, चन्द्रु आदि सग्ग ग्रहांकय तांचे उच्चराशि धोरनु 7 राशि "नीच राशि" जावनु येत्ता. उंचार दिल्लेलि सूचीक सम्मच घुवंडावनु चोयल्यार नीचराशि मेळ्तली.

| | | | |
|---|---|---|---|
| बुध | शनि (मन्द) | | |
| | नीच राशियो | | कुज (मंगळ) |
| गुरु (बृहस्पति) | | | |
| | चन्द्र | रवि | शुक्र |

**अत्युच्च आनी अतिनीच स्थिति** :- ग्रहां तांचे उच्चराशिंतु अमुक थकून अमुक पर्यन्त भागार आस्सुच्चे वेळेक "अत्युच्च" म्हूणूय नीचराशिंतु अमुक थकून अमुक पर्यन्त भागार आस्सुच्चे वेळेक "अतिनीच" म्हूणूय सांगताति. अत्युच्च स्थितीर अस्सिल्ले ग्रहाक अत्यधिक बळ तथा अतिनीचार शून्यावरि बळ नात्तिल्लें जात्ता.

*(..शेष लगी अंकान्तु)*

## सुमनांचें स्मरण - 4

कृष्ण नारायण नायक, कोच्ची



# "अब्बोलें"



सुमतीयि अप्पायि पांयि पळ्ळिं । काणिक केल्लि । प्रसादाकडे चोंवचाकनिक अब्बोलें भोर्नु दवर्ल्या । एत्तल्यांक एकेकु कुटूको दित्तायि । एकेक हत्ति पुणीयि आसतलो तो । थांगा पांवचाकयि भटमम्मान निंवगीलें -"कालि रात्ति आयलीना इत्या, सुमति? फुल्लंगि अस्सिली नवें ? प्रसादा मोगोरें मल्लिका.. रत्तीचि विर्किलें । आजीक दवर्ल्यारि ते मेन्दे जात्तलें कर्वेतलें । यात्रेरि हाडचे नवें ?" तांकायि प्रसाद मेळो । जाप बप्पान सांगीलि -"व्होळ्ळि जत्तरि तीवयि फुल्लंगि दर्शनाक एत्तलि भडमाम । आतं ती वोगि निदेत्ता नवें !" "असो, नित्य देवाक अठौंका, श्रद्धेन सिक्कूका, चांग स्वभावाचि जांवका !" आशिर्वचनोक्त भडमम्मान एक अब्बोल्या कुटूको लगेन तिका दिलो । परिचारकान दिलेले पन्ना कुटक्यान्तु प्रसाद तान्नि आदरान दवर्लो ।

तिजे मन भर्लें । अब्बोलें म्हळ्यारि तिका प्राण प्रीति तं । कलक्केथंय मस्त वोयल्यां, जत्ता ती जाण । थेट सुवर्ण न्हय पिंगूसे देन्ट, भग्वा अरुण पत्तियो, कोमल मृदुल निर्भार फूल तं ते । लोल दिकून काडचें गान्तूचें हळूचि जांवका । अम्मूले अनिक अच्चूले सुके तर्केरि तिगेलें मन धावलें । तेदूस वाट सगळी संवाद चलता, शाळेन्तु पांवु तांय दोग्गयिं सोणायि । अब्बोल्याक पोरमोळ अस्सनिक ना म्हुण विषयु, कडेरि निर्णयाक तान्नि सुमतीरि सोळें । ना वें ना, आस वे आस, तीणे विचित्र विधि दिली, अनिक सत्यावरण केलें, गमगम ना व्हय, पुण एकेक फुलाकयि ताजो गन्धु आस । दोग्गयि तृप्त, चुप्प जालीं ।

अलंकारान्तु अब्बोलें आस किं ताजी प्रौढि काणु दाकैता । आयुर्रेखायि ताजी चिके दीगि तं । तें दिकून जायत खन्चेय विशेषाक फूल हाडूक बप्पान भायर सर्तरि अम्मा सुचौणि दित्ता - "चोय्यायि, उडगास आस नवें ? अब्बोलें चढ, बाकि नावांक पुरसि पुरो । जीवें चोवनु काडायि !" खंयकी जत्ता, कोणकी काडता, गान्तिता, हाडता, खत्तयिं सग पांवता ! सर्वेश्वर सान्निध्य आवाहित विग्रहारि-श्रीस्थानान्तु एदें अर्पित जत्ता । तजान ताजि जन्म यात्रा सार्थक जत्ता । अर्चकालें भव्य मनान, युव सेवकाले सहकारान प्रसाद वैभव प्राप्त तें मस्त भक्त जनांक सन्तोष दित्ता । बप्पा लागि घरकडे पर्तता सणा सुमतीलें चिन्तामण्डलान्तुल्यान सुमन विस्मय प्रवहेता आस ! ❀

(जूण 2015 अंक थकून...)

## ।। श्रीरामचरितमानस ।।

**ग्रन्थ परिचय**

- के. अनन्त भट्ट, कोच्ची

तुळसीदासाक संस्कृताचें अपार पाण्डित्य आस्सिलें। सुरुवेक ताणे संस्कृतान्तु रामायण काव्य रचना प्रारंभु केल्लेली। जाल्यारि दीसु-सगळेचि ताणे बैसूनु बरयिलें काव्य पूरायि रात्रींतु अदृश्य जातालें। स्ह-सात दिवसांक अशीचि जाल्लें खंय। आठवे दिवसा रात्रींतु तुळसीदासाक महादेवान सपनांतु तूँ आपण्याले भाषेंतु (मातृभाषेंतु) काव्यरचना करि म्होणु आज्ञा दिल्ली खंय। निदेंतुलो जागो जांवचाक ताका महादेवु पार्वतीगेलें दर्शन मेळ्ळें म्होणुयि अयोध्येंतु वचूनु तूवें हिन्दींतु काव्यरचना केल्यारि मेगेल्या आशीर्वादाक तुगेली कविता सामवेदाचे समान फल मेळची जातली म्होणुयि महादेवालो अनुग्रहु प्राप्त केल्ला म्हणतातिं।

विक्रम संवत्सर 1631 तु चैत्र शुक्ल नवमी दिवसा मंगळारा रामनवमीक त्रेतायुगांतुले रामजन्मा दिवसावरि ग्रह-तिथि-वार योग मेळनु अस्सिले मुहूर्तारि तुळसीदासान श्रीरामचरितमानस बरौंचाक प्रारंभु केल्लो म्होणुयि, दोनि वर्ष, सात म्हैने सोवीस दिवसानीं तो ग्रन्थु बरौनु जल्लो म्होणुयि सांगतातिं। संवत्सर 1633 चे मार्गशीर्ष शुक्लपक्षांतु रामविवाहा दिवसा सत्तयि काण्डँ पूर्ण जल्लीं म्होणुयि म्हणतातिं।

श्रीरामचरिताची रचना जाल्ले नंतर तुळसीदासु काशींतु भगवन् विश्वनाथु आनी माता अन्नपूर्णेक श्रीरामचरित मानस आयकेयतलो जाल्लो। रात्रींतु तो रामायणा ग्रन्थु श्री काशीविश्वनाथा देवस्थानाकडे दवरलो म्होणुयि हेरदिवसा सकाळी मुखवस्त्र काडचाक ग्रन्थाचेरि 'सत्यं शिवं सुन्दरं' म्होणु बरौनु अस्सिलें म्होणुयि जन म्हणतातिं। हें पोळोव्नु त्या कालाचे विद्वांसांक तुळसीदासाचेरियि तागेल्या रचनेचेरियि जाळ उत्पन्न जाल्ले। त्या विद्वांसानी पण्डित शिरोमणी श्रीमधुसूदन सरस्वतीक तो रामायण ग्रन्थु पोळोंव्चाक सांगले। श्रीमधुसूदन सरस्वतीन तो ग्रन्थु वाचूनु प्रसन्न जाव्नु ह्या प्रकार तांगेलो अभिप्रायु बरेयलो खंय -

**आनन्दकाननेह्यास्मिञ्जगमस्तुलसी तरुः।**
**कवितामञ्जरी भाति रामभ्रमर भूषिता।।**

ह्या काशीरूपी आनन्दवनांतु तुळसीदासु भोवंत अस्सिले तुळसी झाड तँ। ताझी कवितारूपी मंजरी (फुल्लां घोसु अथवा कणस) भारी सुन्दर दिसता आनी ताजेरि श्रीरामरूपी भोंवरु सदा गुँजन कोर्नु घुवंत आसता।।

*(..शेष लगी अंकान्तु)*

## पंचतंत्र कथा
### (अथवा नीति शास्त्र)
### कथा - १ भागु (अ)

संपादक - जी.पी. कामत, नोयडा

"सुमार वर्ष फूडे दक्षिण देशान्तु 'महिलापुरी' गावान्तु वर्धमान नावांचो एक धनिक वणिक अस्सिलो। एक दिवस तगेले मन्नान्तु एक विचार अयलो। 'धन अस्सिल कडे धन एत्ता। एकडे रवल्यारि तें वड्डना। हातु पर्तित्तच रवूका। धना उपयोगु करना जल्यारि फोडांतुले उदका वरीच नाशु जाव्नु वत्ता। धन मेळ्यारि तजि अभिवृद्धि कोर्का। वड्डले धनाचे सद्उपयोगु कोर्नु सुख पांवनत्तिलो मनुष्य धन रक्कूचो चौकीदार (कावलकारि) मात्रं तं।"

ये विचार मन्ना एतना, वर्धमान धनाभिवृद्धि खत्तीरि व्यापाराक जाव्नु मथुरा देशाक वच्चाक शुभ मुहूर्तु, मलगड्यालों आशीर्वादु घेव्नु भायर सोर्नु गेल्लो। सुन्दर गांव, वन, पर्वत, सर्वय तण्डून एक घोर रन्नान्तु पवंतोलो जल्लो। निर्भाग्य म्होणु संगुयात तगेले भंडीक मंदिल्लो एक पड्डो चिकलान्तु फर्कूनु तगेलो पायु मोळ्ळो। ये देक्कून वर्धमानान तगेले दोगजाण भृत्यांक अप्पोव्नु संगतोलो जल्लो, "अरे, ये पड्या खत्तीरि अम्मि सर्वय हंगा रबूचे उचित जायना। तुम्मी दोगेंय हंगा रवून पड्या चिकित्सा करायि। पड्याक सौख्य जयतना तक्कायि घेव्नु अंचे ओटुक एयाचि।" ये संगूनु वर्धमान यात्रा कोर्नु गेलो। चार-पांच दिवस भोगले। ये घोर वनान्तु, वन्यमृगा कूटान्तु रवतना भृत्यांक भय जल्लें। तन्नी पड्याक थंगा सोणु वणिकालगि मेळनु संगीले, "हे यजमान, अम्मि पड्याक मस्त शुश्रूपा केल्ली। निर्भाग्यान पड्डो मरणाक प्राप्त जल्लो।" ये अयकतना वणिकाक वोड दुःख जल्ले। पड्याले जीवाचे मोक्षप्राप्तीक जाव्नु क्रिया कोर्नु तो थंगा थकून यात्र कोर्नु गेल्लो।

भाग्य पड्याले। तगेले नाव 'संजीवक'। सात आट दिवस वच्चाक तक्का पय्यारि रबूयात जल्ले। रन्नांतुले जीवें-तर्णे पल्ले, तोण अनि शुद्ध उदाक, ये सर्वय मेळनु संजीवकाक आरोग्यवन्तु केल्ला। तो वडून मस्त जल्ला। तगेलें हंवेवप ते रन्नांतु मेघगर्जना वरी ध्वनि जल्ले। तस्सि संजीवक सुखान ते रन्नान्तु निर्भय जाव्नु रवतोलो जल्लो।

*(..शेष लगी अंकान्तु)*

**DD 9 - चन्दना** : 2015 जून 14, 20 - कर्णाटक कोंकणी साहित्य अकादमी अध्यक्ष रोणाळ्ड कासलिनोय जाव्नु चेतन कुमार नायक हन्नी घेत्तिल्ले अभिमुख अस्सिल्ले।

**पंचरूप गौरी**

माया, विद्या, क्रिया, शक्ति अनि क्रियामयी ज्ञानशक्ति

## शिवनामस्मरण

- स्व. जाह्नवी टीचर, कोच्ची

शिवनाम-स्मरण-शान्ति-मनाक
चरण-तुगेले-शरण-देवा (शिव)
गिरिजा-शङ्करा हे महेश्वरा
भक्तरक्षका, हे परमेश्वरा
जीवनान्तुले दुरित निवारण
करताय तुगेले नाम स्मरण (शिव)
करुणा सागरा, हे योगीश्वरा
विश्वपालका, हे परमेश्वरा
परमपावन तुगेली सेवा
चांगि गती दी तूं देवा, देवा (शिव)

*(संपादन - के. एन. आर. भट्, कोच्ची)*



## परणी म्हण्णी

- श्रीदेवी सुरेश प्रभु, कोच्ची

* घर सान जल्यारीयि
  मन्न व्होड अस्सूका।
* घर्चे मोगरेक
  पोर्मोळु ना।
* घरा दळिद्र भायर
  संगूक नज्ज।
* घराकडे सीत अस्स जल्यारि
  गेल्लेले कडेयि अस्स।
* घर्चे देवाक पुज्जा ना,
  भर्चे देवाक निवेदु।।

## कर्मफल

- कु.अञ्जली किणी, कोच्ची

घूडान्तुले साव्ग्यालें रण्णे
कोणाले कान्नान्तु वत्ता ?
संकाळेन मंद्दिल्ले हस्तेलें कष्ट
कोणाक दिक्कूक येत्ता ?
कतरूक व्हेल्लेले गय्येलें भय्यँ
कोणाक मनान्तु जत्ता ?
कूराडि लागून रूक पडताय
ते जीवाचें मोल कोणाक कळता ?
देवाली सृष्टि मनुष्यां खात्तीर
ह्यो कसलो न्यायु ?
स्वार्था खातीर निर्दोषांक
बाध दीवंचो वायु।
आजि हन्नि फायि तूं
कान दीवनु आयक
कर्मफल फाटि घेत्तलें
तूंचि तुक्काचि राक।।



## चेर्डुवांलि चित्रँ





कु. **सूर्या एस. शेणै (13)**, कोच्चीचे सुरेश एस. शेणै अनि संन्ध्या हांगेलि सुपुत्रि।

गोड अप्पे

## बायलाँ खातिर (ददल्यांकय) - उषा आर. भट, हैदराबाद

### सामग्री

1. सुरेय तन्दूलु (ओरोवु) - 500 ग्रां
2. नर्लाचि सोयि - एक वोळ्याचि
3. बच्चंगाचो (कालिंगाचो) धवो गोज्जु (घीरु) - दोनि मूष्टि
4. गोड - 300 ग्रां
5. धवो तीळु - 50 ग्रां
6. एळा पिट्टो - 1 चिपट
7. तूप - अप्पे काडूक

बच्चंगाचो (कालिंगाचो) तंबडो घीरु पूराय खंचाक कळ्ळे उपरान्ते अस्सूचे कांयि उपयोग ना म्हणु लेक्कूनु अम्मि उड्डोंचो भायरचो भागु त अंका जांका। दन्ताचि दायि वरि अस्सिल्ली एकि पेसकाति (Toothed Fork) काणु कालिंगाचो (पचवो भागु एना अस्सि) धवो घीरु बुड्डूनु काडका। नर्ला सोयि वरि तस्सि मेळचो कोच्चोलु पीळ्नु दोवोर्का। तक्का धवो गोज्जु मणतायि। दोनि घंटे पुणि उदकान्तु फुग्गेय्लोलो सुरेयि तन्दूलु, सोय्यियि भरसूनु, पीळ्नु मेळ्ळेले रोस्सान्तु घालनु, खरखरीचि (रवो समान) वट्टूनु काडका। गोड करगान्नु पांकु कोर्नु तन्तु वट्टिल्ले यें मिश्रण, धवो तीळु, एळा पिट्टोयि घालनु चांग प्रमाणि, दायन मिश्रण कोर्का। तूप घालनु सान उज्जारि अप्पे कोर्नु काडका। (पीट अम्सें जावनत्तिले चोंवका)। पीट वर्ल्यारि पोळोयि काणु दोवोर्यात। ना जल्यारि इडलि, सन्दण आदि कोर्यात।

गोडसाणि नक्का जल्यारि मीट घालनूयि गोज्जून पोळे काडयेत। तस्सि जल्यारि सामग्रीन्तुले प्रथमले तीनि सामग्रि मात्र पूरो। तन्तु उणे मीट अनि जीरें (एळाचे वदलाक) मिश्रण कोर्नु, तुप्पाचे वदलाक नरलाचे तेल लावनु पोळे काडयेत। तोरी दाळीचे तोय, ना चट्णी हज्जे ओट्टु घालनु खाव्यात।

23-5-2015 - गोठण, वेलिंग (गोंय) - संजीव वेरेंकर हांचे **"सांज सुलूस"** म्हळ्ळें कविता संग्रहाचे प्रकाशन जल्लें। नविश्री क्रियेशन्स अनि रंगमेळ आयोजित राजीव कलामंदिर, फोंडे हांच्या पालवान कांता गावडे हांच्या अंगणांत तें ह्यो कार्यक्रम चमकीलोलो। ह्या वेळार कवि संमेळनय अस्सिले।

## पावसांतु खेळु



- ए. पी. भानुप्रकाश, पच्चाळम, कोच्ची

पावसा मोड, पावसा मोड,
पावलें पावसा मोड
पावस पावलो, पावस पावलो,
पडलो व्होळ्ळो पावस
आयकिले, आयकिले
चेरडुंवान पावसा शब्द
सुरसुर सुरसुर, सुरसुर
सुरररररररररर
देखले देखले चेरडुंवान
भायर पावस पडतालो

आई तिका लिपून
चेरडूंवां गेल्ले भायर
पावसांतु न्हाल्ले, पावसांतु खेळ्ळे
सन्तोषान चेरडुंवान कोल्लोरि घाले
वासरेंतु बसून आईन, आयकिले
भायर चेरडुंवांलो कोल्लोरि

पावसांतु चेरडुंवां तिंबतालीं देखून
बडी एक घेवनु शीघ्र आयली आई
"भित्तर चेडाय, बेगीन चेडाय भितेरि"
गर्जन केलें आयेन कोपान.



सुन्नेली गर्जन आयकोवनु
सांगले म्हांतारि आज्येन
"खेळो खेळो पावसांतु
खेळो तीं चेरडूंवां
पावस, वत आदी लागून
वाडोंय तीं चेरडूंवां"

हें आयकून जाळान
मांयेक दबकावणी दिवनु
सून ती परतून गेल्ली वासरेंतु.

पावसांतु चेरडुंवांलो खेळु देखून
आयलो आज्येक तिगेलो
सान पिरायेचो उडगास
गेलीं तिवीय भायर, सुन्नेक लिपून
पावसांतु न्हाली, पावसांतु खेळी
आज खेळी ती चेरडुंवां वांगडा. ✯

---

बरकूर - पट्टाभिरामचन्द्रा देवळाकडे 53 वें प्रतिष्ठा वर्द्धन्ति अनुबन्ध जाव्नु मंगळूरचे **"साधना बालक्स"** चेर्डुवानि कोंकणी नाटक **"विंदरा पील"** खेळेय्ले म्होणु खबर।

---

### गोंय आनी केरळ कोंकणींतलें अंतर

- एन. बालकृष्ण मल्या, कोच्ची

कुसांकीड = सूंकां कीडि
ह्या वयार = ह्ये प्रायेरि
पयशे = धन / दामु / दुड्डु
(पयशेकार = दम्मेलि / दुडुवेलि)
वांगडा = एकसानी / चे लागी
जैत = विजयु
(जैत जोडून = विजयु पावनु)

**रस्पति** - आर. के. प्रकाश, पळ्ळूर



Dr. P. N. N. सिंह
डॉ. प्रश्नु ना नरसिंह
SSLC, PDC, BSc.,
MBBS (3 times)

कवी रंकी मामु : डॉक्टर, हृदय भेदक जल्लेले मजे काव्य वचूनु जन हस्ताय ! पिस्सं वे तंका ?

डॉक्टर - प्रश्नु ना, बारा मात्रा दित्ता तुक्का, मगीर तूंवय हासतलो।

* * * *

राघव : डॉक्टर, कचकूलि गल्यार मरि हासूक जायना।

डॉक्टर- प्रश्नु ना, मजे वायलेन बरेयलेले 'विरह दुःख' म्हळेले पुस्तक वाचल्यार हमून रडतलीं।

## कोंकणी - മലയാളം - English

- शैलेष कम्मत. एम., कोच्ची

विन्दूरु - എലി - Rat

कोळविन्दूरु - പെരുച്ചാഴി/തൊരപ്പൻ - Bandicoot Rat/ Rodent Rat

किच्चंदरि/चिचंदरि - ചുണ്ടെലി - Mouse

(विन्द्रा)चिवणे/पील-എലിക്കുഞ്ഞ്-Baby Rat

(विन्द्रा)वीळ/पोद -എലിപ്പൊത്ത്-(Rat) Hole

विन्द्रा घूडु -എലിപ്പത്തായം/ എലിക്കൂട് - Rat Cage

संप्लो - എലിക്കെണി - Rat Trap

# यो रे बाळा

- एन. सदानन्द कम्मत्त, कोच्ची

यो रे बाळा योरे धावनु धावनु यो रे
यो रे बाळा योरे धावनु धावनु यो रे
तुगेले हात्त वड्डूचे चोवुंका
तुगेले पाय वड्डूचे चोवुंका
तुगेले केस वड्डूचे चोवुंका
तुक्का दान्त एवचें चोवुंका
तुक्का पयञ्जोळे घलचे चोवुंका
तुक्का बरसा उण्डि दिंवचे चोवुंका
तुगेले बर्प्पा मूर्तु चोवुंका
तुगेलो ब्रह्मोपदेशु चोवुंका
तुवें वड्डूनु एवचें चोवुंका
तुगेली व्हर्डीक मक्का चोवुंका
तुक्का चेर्डुं जंवचे मक्का चोवुंका
तक्का शीवेलि व्होर्नु दक्कोंव्का
जयते जयते चोवुंका
जल्यारि देवान आयुष दींवका
यो रे बाळा योरे धावनु धावनु यो रे
यो रे बाळा योरे धावनु धावनु यो रे।। *



3-6-2015 - कर्णाटकान्तुले कोंकणी-तुळु व्यूरि (Beaury) अकादमी एकडे मेळनु पिलिकुळा म्हळेलेकडे जुलाई 23, 24, 25, 26 तारिकेक "संगं सम्भ्रं" म्हळेले मंस्थानतल कला अनि सांस्कृतिक कार्यावळ घडेय्ताति। इतर 15 अकादमीयि, प्राधीकारयि हन्तु भागु घेत्ताति म्होणु खवर।



## शिव भजन

(लक्ष्मीपते...वेंकटेशा-मोणची रीति)

- के. एन. आर. भट्, कोच्ची

गौरीपते अमृतेशा (२) ईशा
गौरीपते अमृतेशा
व्याघ्रचर्मांबरॅ - कण्ठेवासुकि हारॅ
आनन्द ताण्डवॅ - प्रदोष पूजितॅ (गौरीपते)

ध्यान निरत रूपॅ - राम नाम सदा जपॅ
अभिषेक अति विशिष्टॅ -
बिल्वार्चनान पूर्ण सन्तुष्टॅ (गौरीपते)

कैलास गिरिवासा - देवी पार्वती रमणा
कैवल्य तुगेले स्मरणॅ -
मणतायि अम्मि तुगेले भजनॅ (गौरीपते)

ईश्वरा विश्वेश्वरा - रक्षण करी जगदीश्वरा
नाथा, अनाथनाथा - राक तूं हे विश्वनाथा
(गौरीपते)

## शिंकें तुटलें

- विठ्ठलराय भट, कारवार

शिंकें तुटलें
बुकल्याले फावलें
आजो मेलो
मांचो खाली जालो
नातवालें फावलें
मुख्यमंत्री मेलो
उपमुख्याले फावलें

गोरवुं मेले
कावळ्याले फावलें
म्हार्गाय वाडली
व्यापार्यांले फावलें
तुमी आमी मात्र
मेले मेले मेले

## सरस्वती, दुर्गा, महालक्ष्मी

(रागु - कल्याणि) - पत्मप्रभा, कोच्ची

सरस्वती



वीणापाणि सरस्वती
माताभवानी मा
विद्यापोषिणि
ज्ञानप्रदायिनि
श्रीभुवनेश्वरी मा अंबा
नादरूपिणि मा अंबा
ब्रह्मस्वरूपिणि मा (वीणा)

दुर्गा



महिषासुर संहारिणि मा
शक्ति स्वरूपिणि मा अंबा
श्री परमेश्वरि मा अंबा
आदिपराशक्ति मा (वीणा)

महालक्ष्मी



ऐश्वर्यदायिनि
मंगळकारिणि
अष्टलक्ष्मी मा अंबा
श्री महालक्ष्मी मा अंबा
श्री वरलक्ष्मी मा (वीणा)

## आळें (കടങ്കഥ / Riddles)

घुंवता म्हुण दांतें न्हय
काळो म्हुण कायळो न्हय
कंट्टो अस्स, पोंगरो न्हय

भोवोरु



# एल. एम. सुधाकर

- सुरेश ए. शेणै, कोच्ची

"स्वागत तुमकां स्वागत
स्वागत.... स्वागत ..... स्वागत ......"

ह्यो गीन्तु आयकिलेले कोणे सुधाकराक विसोरना। तितलेचि मग्न जावनु सुधाकरान भावगीत म्हणतना आमीयि तागेले ते गिन्तान्तु लीन जातले।

राजामणीलोय, शान्तीलोय पूतु जावनु 28-12-1965 तारिकेक सुधाकर कोच्चीन्तु जन्मा एयलो। प्राथमिक विद्याभ्यासु एस.जे.डी.एल.पी. स्कूळान्तूयि, टी. डी. हाई स्कूळान्तूयि जलें। ट्रिनिटी काळेजान्तु सिक्कूनु बी. कोम. जिक्वलो। न्यू गुण षेणाय कम्पनीन्तु (एरणाकुळम) अकौण्टन्ट जाव्नु कामाक लागलो। एल.ऐ.सी. एजन्टय आसीलो।

बिन्दूक व्हर्डीक कोरनु घेत्तली आनी तांकां एक चेल्लो आनी एकि चेल्ली।

आपण्याले जीवित पूरा आपण्याले समाजाचे उन्नतीकय, आवय भास कोंकणीकय जावनु समर्पण केल्लें। वैश्या यूत असोसियेषनाचे अध्यक्ष आसीलो। "अमर सतसंघ", "वैश्य सांत्वनदीपं" हांचे स्थापक सदस्य, "कोंकणी प्रेमी मंडल", "वैश्य वाणी संस्कृती मण्डल" हांचो कार्यदर्शी अस्सी वैश्य समाजान्तु सुधाकराले प्रवर्तन नत्तिलें खंचि संस्था ना आसीलीं म्हणु सांगुयात।

"गोड्डे रामायण" - अमरावती श्री जनार्दन देवस्वं अंगणान्तु खेळनु एत्ताले एक क्षेत्रकला रूप (कोंकणी गीत रामायण) शेठ बलराजान वेदीरि अवतरण कोर्चे रूपान घडोवनु कळ्ळें, जाल्यारीयि तें कलारूप पूरा भारतान्तु पावोंव्चाक वांव्ट कळेल्यान्तु सुधाकरालो वाण्टो व्होड्डु।

गेल्ले वर्षा तं (24-8-2014) सुधाकरान लगेन म्हळेले शेठ बलराजान रचीले भावगीतांची कोंकणी सी.डी. देवीली। ती आजी सगळ्यान बहु स्वीकृत कोंकणी गीन्ताचे सी.डी. जाली। कोंकणी प्रवर्तनाक जायते उपाय सुधाकराले मनान्तु आसीले। जाल्यारी 17-5-2015 तारिकेक हान्री अकस्मात आमकां सोणु गेल्ले।

आजीयि तन्नि म्हळोलो तो गीन्तु कन्नान्तु गुन्जता ... "स्वागत.. तुमकां स्वागत .." ❁

# गुरु उत्तम मेळ्ळो.... दृढविश्वासु दवर्लो जल्यारि.... जीवमुक्ति सुनिश्चित!

- गोश्रीपुरं हरिकुमार

हरिदासु संगता : पम्पा सरोवराचे पश्चिम भागारि मतंग मुनीलो आश्रमु। थंगा नीच जातीचि विद्याविहीन शबरी निष्काम सेवा कोर्नु एत्तालि....






वर्षा गेल्लेलीं कॅळ्ळेले ना। मतंग मुनि अनि शिष्यगण सग इहलोक सोणु गेल्लीं.... शबरी मात्र वर्ली।...





आखेरि श्रीरामु, लक्ष्मणु समेत थंगा पावलो.... जनवासु नत्तिल्ले ते गुप्त जाग्यारि/स्थायारि.... तिक्का मुक्ति दिल्ली.....।



गुरुवचनांचेरि पूर्ण विश्वासु कोर्नु ती जीवित काडतालि... श्रीरामाक स्वीकारु कोरूक तय्यार जाव्नु....

गुरु वचन सदा सत्य अस्तलें। सद्गति सुनिश्चित। दृढ विश्वासु दवोर्का मात्र। श्रीरामाक थंगा वोचका पॅळ्ळें। इत्याक ? शबरीक दिक्कूक.... मुनि वचन सत्य कोरूक....!

